उश्णीं वायणां

*

संकलक आनी प्रकाशक :
चंद्रकांत केणी
कुळागर प्रकाशन
पो. बॉ. नं. ७८
मडगांव (गोंय)

*

पयली खेप :
आगस्ट १९८४

*

मोल :
दोन रुपया

*

छापपी :
एस. जे. हुंद्रे
रवि मुद्रणालय
कडोलकर गल्ली—बेळगांव.
फोन : २३०७९

## सुभाषितां

### प्रार्थना

पावका न सरस्वती वाजे
भिर्वा जिनीवती ।
यज्ञं वपु धिया वसुः ॥

ऋग्वेद : १-३-१०

विद्या आमकां पावन करता. अन्न दिवपी जाल्ल्यान ती अन्नदाताय. बुद्द वापरून करचेल्या साबार वावरांतल्यान धन दिवपी ही विद्या आमचो यज्ञ फळादीक करूं.

-x-

### भारत

गायन्ति देवा: किल गीतकानि
धन्यास्तु ते भारत भूमिभागे ।
स्वर्गापवर्गास्पद मार्गभूते ।
भवन्ति भूयः पुरुषाः सुरत्वात् ॥

– देव भारताची कीर्त अशी गायतात : आमच्यापरस ते लोक चड भाग्यवान, जे हे भुयेंत जलमले, जंयच्यान सर्ग आनी मुक्तीचो मार्ग वता.

-x-

## प्रभाते करदर्शनम्

'प्रभाते करदर्शनम्' च्या फाटल्यान आमचे संस्कृतीची कितली उदात्त भावना आस्पावल्या !

आमची संस्कृती आमकां सांगता, ब्राह्म म्हुर्ताचेर उठून दर्शन घेवचे तें आपल्या हाताचें आनी सोपूत घेवचो कि–

– ह्या दोनूय हातांनी हांव दुसऱ्याल्या दोळयांतलीं दुकां पुसतलों. ताणीं देवाची पूजा करतलों. वावर करून पोट भरतलों. दुराचार करूंक ते वापरचो ना. देवान हे हात बरें काम करचे खातीरच दिल्यात आनी देवाले इत्लेंनच हांव ते वापरतलों.

–x–

## प्रार्थना

मा कस्य यक्षम् भुजेम तनूभि : ।।
परादः दुः वासन्ते मनः क्षुध आजुहूर्था ।।
युयुतम् अस्मत् अतिराम् अमीवाम् ।।
अपामीवाम् अपस्त्रिधम् ।। पर्धय इळाम् ।।

हे देवा, दुसऱ्यांच्या अन्नाचेर जियेवपाची वेळ आमचेर येवची न्हय. दुस्ट लोकांनी दिल्ली वस्त्रां वापरपाचो प्रसंग आमचेर येवचो न्हय. हे देवांनो, दळीद्र आनी रोग हांकां आमचे पसून पयस घांवडायात, व्याधींक घांवडायात. पृथ्वीची समृद्धि वाढयात.

–x–

## दुष्ट ते दुष्टच !

अमृतं विकरति हिमांशुर्विषमेव फणी समुद्गिरति
गुणमेव वक्ति साधुर्दोषमसाधुः प्रकाशयति ।।

चंद्र सदांच अमृत दिता (ताका लागूनच वनस्पत सृस्ट वाडटा) अमृतासारखें चांदणें दिता. पुण सोरोप कितें दिता ? विखाशिवाय तो दुसरें कितें दितलो ? सज्जन मनीस गुणच दाखयतलो आनी दुस्टाक लागून दोशाचीच वाड जातली.

–x–

अुपदेशोहि मूर्खाणां प्रकोपाय न शांतये
पयः जानं भुजंगानां केवलं विषवर्धनम् ।।

मुर्ख मनशाक उपदेश केल्यार ताका रागच येता. अुपदेश करून ताजो राग न्हिवना. परतो वाडटा. सोरपाक दूध पिवयले तरी ताजे विखच वाडटा.

—x—

## आमचे दायज

मधुवाता ऋतायते मधुक्षरन्ति सिन्धवः ।
माध्वीर्नः सन्त्वोषधीः ।।
मधुनक्तमुतोषसो मधुमत् पार्थिवं रजः ।
मधुद्यौरस्तु नः पिता ।।
मधुमान्नो वनस्पतिर्मधु माँ अस्तु सूर्यः ।
माध्वीर्गावो भवन्तु नः ।।

ऋत म्हळयार सरळ मार्गान चलपी लोकांखातीर वारो सुगंधित जाता. न्हयो मधुर जावन व्हांवक लागतात. वखदांच्यो मुळचोय मधुर रसान भरतात. उषा आनी रात, भूंय, पितृलोक मधुर जातात. हे झाडांवालींनो, आमचे खातीर मधुर जायात. सुर्य आमचेखातीर मधुर जांव आनी गायोय आमकां मधुर दूध दिवपाखातीर धष्टपुष्ट जावं.

—x—

## सुखाची चावी

महाभारतांतलो एक प्रसंग.

सत्यभामेन द्रौपदीक विचाल्ले, ' रानात रावनय तूं सुखी कशी ? म्हाका जाल्यार द्वारकेच्या राजमहालांत लेगीत सुख ना. सुखाची चावी खंयची तें तरी सांग. '

द्रौपदीन जाप दिली– ' दुःखेन साध्वि, लभते सुखानि' दुःखातल्यानच सुख मेळटा.

दुसऱ्यालें दुःख वळखून तें ना करूंक वावुरता ताकाच सुख मेळटा.

—x—

घृष्टं घृष्टं पुनरपि पुनश्चन्दनं
चारुगन्धम् ।
छिन्नं छिन्नं पुनरपि पुनः स्वादु
चैवेक्षुदण्डम् ।

परत परत, जायते फावटी घासले तरी बरे जातीचें चंदन तशेंच उरता. तें बदलना. उसकांडोय परत परत कापलो, ताजे कुडके कुडके केले तरी गोडच लागता. ताजी रूच बदलना. (बरो मनीस असोच आसता. )

–x–

निर्जितेषु तरसा तरास्विनां शत्रुषु प्रणतिरेव कीर्तये ।
कालिदासकृत रघुवंश (११.८९)

स्वताच्या पराक्रमाचेर जाणी दुस्मानाक जिकला, ताणी दुस्माना-कडेन नमळायेन वागप ही गजाल तांची कीर्त अदिकच वाडयता.

–x–

## संगतीचो परिणाम

मनशाक जशी संगत मेळटा तसो तो घडटा. चोरा संगतीन चोर जाता. दुश्टा संगतीन दुश्ट जाता आनी बऱ्याच्या संगतीत अुल्लो जाल्यार दुश्टांतलो दुश्ट मनीसलेगीत बऱ्यांतलो बरो जावं येता. व्यास म्हण्टात–

–x–

यादृशैः सन्निवसति यादृशांश्चोपसेवते
यादृगिच्छेच्च भवितुं तादृग्मवति पुरुषः
यदि सन्तं सेवेति यद्यसन्तं तपस्विनं यदि वा स्तेनमेव
वासो यथा रंगवशां प्रयाति तथा सतेषां वसमम्युपैति ।।

(महाभारत, शांतिपर्व २९९।३३–३३)

मनीस जाचेबराबर रावता, जाची संगत ताका मेळटा, जाची तो सेवा करता वो जसो जावपाचें तो चिंतता तसोच तो जाता. कपडो

जसो ज्या रंगात घालतात त्याच रंगाचो जाता, तसोच मनीसय बी. सन्त, दुश्ट, तपोनिष्ट, चोर हांच्या संगतीक रावता तसतसो जाता. (म्हळांच न्हय संगती संग दोषाणाम्. फुलांची माळ गुथील्ल्या दोराक लेगीत त्या फुलांचो वास येना ?')

–x–

## स दोश

षड् दोषा पुरुषेणेह हातव्या भूतिमिच्छता
निद्रा तन्द्रा भयं क्रोध आलस्य दीर्घसूत्रता ॥

स्वताचे कल्याण, उन्नती सादतलो जाल्यार मनशान स दोश स्वताक लावन घेवंक जायनात. न्हीद, गुंगी, भिरांत, राग, आळसाय आनी वायट काम हे स दोश पयसच दवरूंक जाय.

–x–

वृत्तं यत्नेन संसक्षेद् वित्तमेति च याति च
अक्षीणो वित्तत: क्षीणो वृत्ततस्तु हतो हत : ॥

( वृत्तं ) यत्न करून चरित्राची राखण करूंक जाय. पयसो येता वता. म्हण्टगीर पयशान ल्हान जालो म्हण मनीस ल्हान जायना. पुण चरित्र क्षीण जायत जाल्यार मात मनीस मेल्ल्यातच जमा जाता.

–x–

त्यजेत् कुलार्थे पुरुषं ग्रामस्यार्थे कुलं त्यजेत्
ग्राम जनपदस्यार्थे आत्मार्थे पृथिवीं त्यजेत् ॥

एका कुळये खातीर एका मनशाचो त्याग करचो पडलो तरी पर्वा ना. तशेंच गांवा खातीर एक कूळ गेले म्हूण पर्वा ना. देशाच्या बऱ्याखातीर एक गांव सोडचें पडल्यार उपकारता, आनीक आत्म्याची उन्नती करपाखातीर सगळी भूंय जरी सोडची पडली तरी पर्वा ना.

–x–

सुखाधिन: कुतो विद्या नास्ति विद्यार्थिन: सुखम् ॥
सुखार्थी वा त्यजेद् विद्या विद्यार्थी वा त्यजेत् सुखम् ॥

सुखाफाटल्यान लागिल्ल्याक विद्या कशी मेळटली? विद्येफाटल्यान लागिल्ल्याक सुख मेळना. सुख जाय जाल्यार विद्येक सोडची पडटा आनी विद्या मेळयतलो जायत तर सुखाक सोडूंक जाय. दोनीय एकदम मेळनात.

–x–

## ‘देववाणी’ ची देण

मनीस बरे जोडटा, उन्नती करता, वायट दशेक पावता तो आपलेच करणेन. नशिबाक वो आनीक कोणाकय दोश दिवप ओगीच अशें सुभाषितकार म्हणटा–

वज्रत्यध: प्रयात्युच्चैर्नर: स्वैरेव चेष्टिते ।
अध: कूपस्य खनक: ऊर्ध्वं प्रासादकारक: ॥

मनीस आपल्याच करण्यानीं उन्नतीक वता वो वायट दशेक पावता. बरे केल्यार बरे भोगता, वायट केल्यार वायट. बांय खणटा तो सकल सकल वता आनी घर बांदता तो गवंडी वयर वयर पावता.

–x–

अव्याकरण मधीतं भिन्नद्रोण्या तरंगिणी तरणम्
भेपप्पमध्यसहितं त्रयमिद मकृतं वरं न कृतम्

व्याकरणाचो उपयोग करनासतना उलवप– बरवप., फुटक्या होडेयेंतल्यान न्हंय हुपपाचो यत्न करप, वखद घेतना आबड चोबड खावप (पथ्य न करप ) ह्यो तीन गजाली करचे परस न केल्ल्यो बऱ्यो.

खरे न्हय हें ?

–x–

स्वाभिमान घाण दवरून चाकरी करतल्याक सुण्यासारखो लेखतात. पुण कवि म्हण्टा–

सेवा श्ववृत्ती: यै रुक्ता न तै: सम्यगुदाहृतम्
स्वच्छन्दचारी कुत्र श्वा विक्रितासु: क्व सेवक:

चाकरी म्हण्टात ते सुण्याचे जिणे अशें म्हण्टात पुण सुण्याची देख ताका दिवप हें लेगीत चूकूच. मनाक येता तसो चलपी सुणो खंय आनी स्वताचो आत्मो लेगीत जाणें धनयाकडेन घाण दवल्ला तो चाकर खंय ?

न्हाये धोये क्या भया,
जो मन मैल न जाय ।
मीन सदा जल मैं रहै,
धोये बास न जाय ॥

भक्त कबीर म्हण्टा, न्हालो धुलो म्हुण निवळ जाता ? मन निवळ दवरूंक जाय. नुस्तें सदांच उदकांतच आसता, तें न्हायना ? ताका धुयल्यार लेगीत घाण मारताच !

–x–

चुप एक पहेली है
सोचोगे तो बुझेंगे,
तुमसे वही कहना है
जो सबसे छुपाना है ।

– मौन म्हळयार एक कुवाडे. येवजिलें जाल्यार कळटले. तुका हांव जें सांगूंक सोदतां, ते हेरांक लिपोवपाचें आसा.

–x–

रे रे चातक सावधानमनसा मित्र क्षणं श्रूयताम्
अंभोदा बहवोहि संति गगने सर्वे ऽ पि नैतादृशा :
केचिद् वृष्टिभिरार्द्रयंति धरणीम् गर्जन्ति केचिद् वृथा
यं यं पश्यसि तस्य तस्य पुरतो मा ब्रूहि दीनं वच:

कवी चातक सवण्याक म्हणटा–

‘ पिशा चातका, हांव सांगतां तें मनस्पूर्वक आयक. मळबांत खूब कुपां आसतात, पुण तीं सगळीं सारखीं नासतात. एकाद्रें पावस घालून आशेल्ल्या भुंयेची तान भागयता तर एकाद्रें बेठेंच

गडगड घालता. ते फकत उलयता. कांयच दिना. म्हूण दिस्ता त्या कुपाकडेन आशेल्ल्या नदरेन पळवं नाका. येदेशें तोंड करून ताजेकडेन मागनाका.

–x–

## पळयता तशें दिसता

अज्ञस्य दु:खोद्यमयं ज्ञस्यानंदमयं जगत्
अंधं भुवनअन्धस्य प्रकाशंतु सुचक्षुषाम् (वराहोपनिषद्)

आंधळ्याक सगळो संवसार दु:खान भरिल्लो आसा अशेंच दिसता. तसोच दोळे आशिल्ल्यांक तो सुन्दर, स्वच्छ दिसता. तशें अज्ञानी मनशाक हो संवसार दु:खान भरिल्लो दिसता आनी ज्ञानी मनशाक ह्या संवसारांत आनंदच भरिल्लो दिसता.

–x–

को लाभो गुणिसंगम:किम सुखं प्राज्ञैतरै: संगति:
का शनि: समयच्युतीर्निपुणता का धर्मतत्वे रति:
क: शूरो विजितेंद्रिय: प्रियतमा काऽनुव्रता कीं धनं
विद्या किं सुखमप्रवासगमनं राज्यं किम शाफलम्

संवसारात खरो लाभ कसलो? गुणेस्त मनशाबराबर रावप. दुस्व कसलें? मूर्खाबराबर रावचें पडप. सगळ्यांत व्हड लुकसाण कसलें? वेळ फुकट उडवप. नैपुण्य खंयचें? धर्माच्या तत्त्वांचेर प्रेम हेंच नैपुण्य. तेंच चातुर्यय. वीर कोण? कुडीचेर जैत मेळवपी. प्रिय–तमा कोण? जी घोवाक सदासर्वकाळ धरून रावता, ताज्या मताप्रमाण चलता ती. धन खंयचें? विद्या हेंच धन. सुख कसलें? भोंवन मेळोवचें पडना तें. राज्य खंयचें? आपल्यो आशा सफल जातात तें.

–x–

## कालिदासाची चतुराय

भोज राजाल्या दरबारांतलो चतूर कवी म्हणून कालिदासाची नामना चारय दिकांनी फांकिल्ली. ताका लागून हेर जायत्या कवींक कालिदासाची नसाय जाताली. आपले भितर ते कालिदासाची तोंडभर

निंदा करताले. हांच्यामदल्या धनंजय नांवाच्या कवीन कालिदासाक लज करपाखातीर एक श्लोक रचून तो आपणाल्या शिष्याकडच्यान भोज-राजाल्या दरबारांत धाडून दिलो.

श्लोक घेवन वता आसताना त्या शिष्याक वाटेर कालिदास मेळ्ळो. ताणे तो श्लोक ताका दाखयलो.

कालिदासान श्लोक वाच्चलो–

'अपशब्दं शतं माघे–
भारतेच शतत्रयम् ।
कालिदासो न गण्यंते,
कविरेको धनंजय:'

–म्हळ्यार कवी माघाले कवितेत शंब्बर अपशब्द (गाळी) आसात, भारताले कवितेंत तिनशे. कालिदासाले कवितेंत असंख्य जाल्यार धनंजयांल्या काव्यांत एकच अपशब्द आसा.

वाचनाफुडे कालिदास समजुपाचे समजलो. ताणें त्या शिष्याक म्हळें, 'सुन्दर श्लोक, पूण तातूंक एकच कानो उणो आसा. हांव तो सुदारूं ?' शिष्याक भितल्ली भेख खब्बर नासली. ताणें व्हड खोशयेने हय म्हळें.

कालिदासान श्लोक सुदाल्लो :
' आपशब्दं शतं माघे,
भारतेच शतत्रयम् ।
कालिदासो न गण्यते.
कविरेको धनंजय: ॥'

–म्हळ्यार आप म्हळ्यार उदकाच्या शंब्बर नांवाची खबर माघ कविन दिल्या. भारतान तीनशें, कालिदासान असंख्य जाल्यार कवी घनंजयाक एकच नांव खबर आसा.

दरबारांत हो श्लोक शिष्यान वाचून दाखयलो तेन्ना लजेन धनंजय उठून गेलो.

–x–

## एक संवाद

कस्त्वं शूली मृगय भिषजं नीलकंठः प्रिये ऽ हम् ।
केकामेकां कुरु पशुपति नैव दृश्ये विषाणे ।
स्थाणुर्मुग्धे न वदति तरुजीवितेशः शिवायाः ।
गच्छटौख्यामिति हतवचःपातु वश्चंद्र चूडः ।।

– शंकर आनी पार्वती हांचेमदलो हो संवादरूपी खेळ. शंकर भायल्यान आयला हें पळोवन पार्वतीन घराचे दार बंद केलां. खूब वेळ दार वाजयले तेन्ना पार्वतीन भितल्ल्यान विचाल्ले, 'कोण ?'

– हांव शूली. ( ह्या उतराचे दोन अर्थ जातात. एक त्रिशूल धारण करपी आनी दूसरो पोटखाणें उप्राशिल्लो. )

पार्वती दुसऱ्या अर्थाचो स्वीकार करून म्हण्टा– 'तर वैजाम्हऱ्यान वच.'

आतां शंकर आपली वेगळीवेगळी नांवा सांगतां. पुण त्या नांवाचोच पार्वती आपल्याक जाय तसो अर्थ लायता.

– हांव नीळकंठ. ( म्हळ्यार शंकर वा मोर. )
मागीर मोराचो आवाज कित्याक आयकूंक येना ?
– हांव पशुपति. ( म्हळ्यार बैल वा शंकर.)
– तर शिंगा खंय आसात ?
– आगे बाये, हांव स्थाणु !
– स्थाणु ( झाड ) खंय उलयता ?

– हांव शिवालो प्राणनाथ. ( शिवा म्हळ्यार पार्वती ना जाल्यार कोलो )

– मागीर रानांत कित्याक वचना ? हांगा कित्याक आयला ?
– शंकर निरुत्तर जालो.

-x–

## सुस्वागतम् लंकेश

रावणाच्या त्रासांनी उबगून बिभीषण रामाल्या आश्रयाक आयलो तेन्ना रामान "सुस्वागतम् लंकेश" अशा उतरांनी ताका

येवकार दिलो आनी रावण जितो आसतनाच तागेलो राज्याभिषेकय करून उडयलो.

सुग्रीवान एक दुबाव काडलो. लंकेचें राज्य बिभीषणाक दिवन उडयलां. फाल्यां रावण शरण आयल्यार राम कितें करतलो ?

रामान जाप दिली, रामोद्विर्ना भिभाषते...... राम बाणावरीच एकवचनी. जर बिभीषणाभशेन रावण शरण आयलो जाल्यार म्हजे अयोध्येचें राज्य ताका दितलों आनी हांव वनवासाक वतलों."

–x–

## दत्तात्रेय

ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश हे सत्त्व, रज आनी तम ह्या गुणांचे स्वामी. पातिव्रत्याचे दर्शन घेवपाखातीर ते ह्या तीनूय गुणातीत अशा अत्रि ऋषील्या आश्रमात गेले. अत्रि ऋषीची बायल अनसूया. तिणे तिगां-कय येवकार दीवन आवयन भुरग्यांची करची तशी तांची सेवा केली. तिगेले वात्सल्य पळोवन ब्रह्मा, विष्णु आनी महेशान अत्रि ऋषीच्या पायांकडेन आत्मार्पण केलें. सेवेखातीर आत्मार्पण जो करता तो दत्त. अत्रीन ताका दीक्षा दिली म्हणून तो आत्रेय. बह्मा, विष्णु आनी महेश अत्रीच्या पायांकडून एकरूप जाले– तांचो दत्तात्रेय जालो.

–x–

## अवतार सोंपले

हिरण्यकश्यपु जल्माक येतकच ताका काबार करुंक देवान अव–तार घेतलो. नरशिवाच्या रूपान प्रगट जावन ताणे आपले अवतार–कार्य तडीक व्हेलें. पुण कांय काळा उप्रांत बळी आयलो. देवान वाम–नाचो अवतार घेतलो आनी तीन पावलांमदी त्रिलोक मापून बळीक पाताळांत चिड्डिलो. रावणाचो नाश करुंक रामाच्या रूपान त्याउप्रांत देव आयलो आनी आपलें काम सोपोवन परतलो. निमाणेकडेन श्री–कृष्ण आयलो. म्हाभारताचे भयांकृत झुज जालें. कौरव पांडव झुजले, पुण शेकी दोगुय सोपले. यादव आपले मजगती झगडून मेले. हे सगळे पळोवन निर्शेल्लो श्रीकृष्ण एक दीस पिपळाच्या झाडापोंदा पांय सोडून

न्हिदलो. एका शिकाऱ्याक तें हरण कशें दिसलें आनी ताणे बाण माल्लो. तागेलो बाण लागून श्रीकृष्ण प्राण सोडपाचे तयारेक लागलो. म्हऱ्यांत आशिल्ल्या तागेल्या सारथ्यान ताका विचाल्लें, 'देवा! निमाणो संदेश दिता ?'

श्रीकृष्णान जाप दिली, 'आता म्हाका पुरो जालां. ह्याफुडें आनी हांव अवतार घेवचो ना. संदेश हांवे गीतेंत दिलाच '-उद्धरेदात्मनात्मानम्' मनशान आपणेच आपलो उद्धार करूंक जाय. दुसरो कोणच कोणाचो उद्धार करिना.

–x–

## रत्नाकर आनी महोदधि

पौराणिक साहित्यांत जय आनी विजय ही विष्णूल्या द्वार–पालाचीं नांवां जायते कडेन वाचूंक मेळटात. म्हादेवालो द्वारपाल नंदी. पुण रामेश्वरमाक देवळाभायर जे दोन द्वारपाल आसात तांची नांवां 'रत्नाकर' आनी 'महोदधि' अशीं आसात. संस्कृत साहित्यांत हीं दोनूय उतरां दर्याखातीर घोळटात. द्वारपालांक हीं नांवां कशीं आयली?

वासपूस करतकच कळ्ळें कि, 'रत्नाकर' म्हळ्यार ज्याका आमी अरबी समुद्र म्हण्टात तो. आनी 'महोदधि' म्हळ्यार बंगालचो उप समुद्र. रामेश्वरम्चें देऊळच एक द्वारपाल– हिंद म्हासागराचो आनी हेर दोगय उपद्वारपाल. कितलें सोबीत प्रतीक !

–x–

## न्याय

न्यूयॉर्काच्या एका मेयराची ही गजाल. ताचें नांव ला गारडिया. पोलीस केसी चलोवंक ताका खूब आवडटालें. एक दीस एका मनश्याक पोलिसांनी ताज्यामुखार उबो केलो. ताणे उण्डो चोरिल्लो.

– तुका कितें सांगपाचें आसा ?–

मेयरान विचाल्लें.

– घरा सगळीं उपाशीं आशिल्लीं. दुसरो उपाय ना जावन हांवे चोरी केली.

–धा डॉलर दंड. मेयर गारडियान निवाडो दिलो आनी आपल्या बोल्सांत हात घालून धा डॉलरांची एक नोट ताका दिली. ‘हे पैशे घे आनी दंड फारीक कर–’

मागीर कोर्टांत हाजीर आशिल्ल्या लोकाक ताणे म्हळें– हांव तुमकां जण एकाक ५० सेंट दंड घालतां. कारण ज्या समाजांत एका मनश्याक उन्डयाची चोरी करची पडटा थंय रावपाचो गुन्याव तुमी केला.

–x–

## गिरेस्त जावपाचो मार्ग

एका मारवाड्याली मुलाखत घेवंक एक पत्रकार गेल्लो. वेळ तिनसांजचो आसलो. मारवाडी पैशे मेजून तिजोरेंत दवरतालो. पैशे दवरतकच ताणे तिजोरी बंद केली आनी पत्रकाराक विचाल्लें, ‘सांग!’

‘तुज्या गिरेस्तकायेचें गुपित कितें ?– पत्रकारान विचाल्लें.

‘राव सांगतां. हांव उलयतलों तूं आयकतलो. मदीं हो दिवो बेश्टो कित्याक ?’ अशें म्हणून मारवाड्यान तो वाडयलो.

‘समजलें.’ पत्रकार उठून उबो रावलो.

–x–

## हांवूच तो

शांबाबाब गोमकार सामको नांवाप्रमाणेच गोमासारको आसलो. ताजो धंदो विमा एजंटाचो. त्या धंद्याक ताजो हो सभाव खूबच उपकारा पडटालो.

शांबाबाब एक फावट एका श्रीमंत मनशाकडेन ताजो विमो घेवपाक गेलो. खूब वेळान त्या श्रीमंत मनशान ताका आपल्या कॅबिनांत आफयलो. ताणें शांबाबाबाक म्हळें– “आज म्हाका तुमकां मेळूंक वेळ मेळ्ळो हो तुमचो भौमान समजात....”

“हय. हय. जाणाच तें हांव.” शांबाबाबान खुर्चेवेल्यान उठून सलाम करीत म्हळें.

–x–

" तुमकां खबर नासत म्हूण सांगतां, सकाळसावन आठ विमा एजंटांक हांवें प्यूनाकडच्यान भायल्या भायर धांवडावन घाले, जाणात तुमी ?"

"जाणा तर." उपकारी सुरांत शांबाबाबान त्या श्रीमंताक म्हळें– ' हांवच तो ते आठ जाण !'

–x–

## जाल्यार वीख पियेवपाचो

लेडी ॲस्टर ही बायल फटकळ आसली. एके फावटी डिनराक ती आनी चर्चिल एकठांय आयलीं. ती भीतर सल्ली तेन्ना चर्चिल डिनराक आयिल्ल्या लोकांक विंगड विंगड विशयांवेलीं आपली मतां सांगपांत गुल्ल जाल्लो. आपणाकडेन कोणूच पळयना हाजो तिका जळफळाट जालो.

निमाणेकडेन रावं नज जातकच तिणे म्हळें, " हे पळय चर्चिल, तूं म्हजो घोव आसतो तर हांव तुका काफयेंत खिरोवन विख्ख दिवपाचीं."

रोखडीच चर्चिलान जाप दिली, " आनी खऱ्यानींच हांव तुजो घोव आसतो जाल्यार हांव तें विख्ख दोळे धांपून पियेतलों आसलों !"

–x–

## गुपीत

सचिवालयात आपल्या मुखारच दुसऱ्या कदेलार बसता तो क्लार्क मानुएल आपलीं कामां अर्द वराभितर सोंपोवन कॅन्टीनात वचून च्या घेवंक बसता ना जाल्यार कादंबऱ्यो वाचीत बसता, हाजें वसंताक सदांच अजाप दिसतालें. दोगांल्याय मेजाचेर फायलींची रास येवन पडटाली. एकेक फायल वाचूंकच वसंताक अर्द वर लागतालें. पुण मानुएलालीं कामां झटपट जातालीं हे पळोवन वसंताक मानुएलाची नसाय जावंक लागली.

एक दीस मानुएल कँटिनांत वचनाफुडे वसंत काम अर्दंच दवरून कँटिनांत गेलो. मानुएलाक गांठून ताणे विचाल्लें, 'एक सांग, तूं सद्दां रोखड्या रोखडीं कामां सोंपयता कसो ?'

'सामकी सोपी माण्णी' मानुएलान सांगलें. 'फायल आयली म्हण्टकच हांव तिजेर सकयल बरयतां– श्री. नायक हाणी योग्य तें करचें. प्यून फायल घेवन वता... ती परत म्हजेकडेन केन्नाच येना... तूंच पळय येद्या व्हडल्या सचिवालयांत कोणय ना कोणय नायक म्हणून आसतलोच. तो बाबडो कितें करता कोण जाणा– !'

ही जाप आयकून च्याचें कॉप अर्दंच सोडून वसंत उठलो.

'आरे, च्या घे मरे !' मानुएलान म्हळें, 'ताकीत कित्याक वरता ? सवका वचून तूं सगळ्या फायलींचेर तशें बरय.'

'हांव तशें कशें बरयतलों ?'

'कित्याक ? हांगा कोण कोणाक वळखना...'

'पुण हांव वळखतां न्हय नायकाक ?'

'तूं वळखता ? खरेंच आसा तर कोणय नायक म्हणून ?'

'दुबाव कित्याक ? हांवच नायक !' अशें म्हणून वसंत कँटिनातल्यान भायर सल्लो.

–x–

## उरफाटें जाल्यार ?

बर्नार्ड शॉ हे नामनेचे नाटककार. हजर जबाबी म्हूण्णय ते फामाद आसले. फाव तो जवाब दीवन दुसऱ्याचे तोंड बंद करपांत तर तांकां कोणच लागनाशिल्लो. रुपान मात ते सादरण शे.

सुंदर नटी इसाडोरा डंकन हिणें एक फावट तांकां म्हळें, "आमी लग्न जांवया. आमचीं भुरगीं म्हजे सारकीं सुंदर आनी तुमचे सारकीं बुदवंत जातलीं."

तिज्या उलोवपांक शॉक मात्सो आपणाल्या अपमानाचो वास आयलो. ताणे रोकडोच तिका जबाब दिलो, "आनी तूं सांगता ताज्या उरफाटें जालें जाल्यार ? सुणे लेगीत पळवचे ना तांकां !"

–x–

## सवाय शॉर

शॉन चर्चिलाक आपणाल्या नाटकाच्या पयल्या खेळाच्यो दोन तिकेटी धाडून दिल्यो. वांगडा एक चीट आसली. चिटींत ताणे बरयिल्लें– एक तिकेट तुज्या खातीर आनी दुसरी तुज्या इश्टाखातीर ( तुका इश्ट आसलोच जाल्यार )

चर्चिलच तो ! महावस्ताद ! ताणे तिकेटी परत्यो धाडल्यो, वांगडा एक चीट दिवन. चिटींत ताणे बरयिल्ले– आज म्हाका नाटक पळेंवक वेळ ना. दुसऱ्या खेळाक मुजरत येन (नाटकाचो दुसरो खेळ जालोच जाल्यार.)

–x–

## सर्ग

जीवितांत कसलेंच सत्कार्य करूंक नाशिल्लो एक मनीस सदांच लांच दिवन आपलीं कामां करतालो. तो मेलो आनी खासा यमदूताकच ताणे लांच दिवन आपणाक सर्गाच्या दारांत व्हरूंक सांगलें. सर्गात त्या वेळार कोणच येवपाचो नाशिल्ल्यान दार बंद आशिल्लें. ह्या मनश्यान दारार माल्लें.

चित्रगुप्तान दार उकतें करून ताका विचाल्लें, "तुका कितें जाय ?"

–भितर येवंक जाय.

–पुण्याच्या बळारच भितर येवं येता.

–हांवे भिकाऱ्यांक एके फावटी धा पैशे दिल्ले.

चित्रगुप्तान तागेलें खातें उकतें करून पळेलें. ताणे खरेंच धा पैशे दिल्ले.

–त्या धा पैशांच्या म्हालवजार तूं सर्गात कसो पावतलो ?

–एक दीस एका भुकेल्ल्या मनशाक हांवे वीस पैशांचो सगळो उंडो घेवन दिल्लो.

खात्यांत तोय जमा आसलो.

हाजें कितें करूया ? चित्रगुप्तान आपल्या सेक्रेटरीक विचाल्लें.

–तीस पैशे परत दिवन नरकांत धाडूंया ! सेक्रेटरीन जाप दिली.

–x–

## मात्शें चुकलें

शाळेंतल्या भुरग्यांलो प्रोग्राम चलतालो. एक चली माचयेर नाचताली.

प्रोग्राम पळोवंक बशिल्ल्यांतल्या एका मनशान आपल्या शेजाऱ्याक हात लावन म्हळें, " हे नाचता ते चलयेक तूं वळखता ?"

" ना. कोण ती ?"

" मात्शें चुकलें... ती म्हगेलीच चली जावपाची. "

" म्हळ्यार कितें ?"

" तिगेले आवयली पयलीं म्हाका सोयरीक आयल्ली. पुण आमच्या नक्षत्राक पडलें ना म्हणून ती मोडली. "

–x–

–बायलो सामकें थोडें खंयच्या म्हयन्यांत उलयतात ?

–फेब्रुवारींत. त्या म्हयन्याक २८ आनी चडच जाल्यार २९ दीस आसतात !

–x–

घर पळोवंक आयिल्ल्या मनशान मालकाक विचाल्ले, " हे नळे अशे सदांच गळटात?"

" ना, ना. " मालकान जाप दिली, " फक्त पावस पडल्यारच गळटात. "

–x–

## जाय तसलो चाकर

" म्हाका असलो चाकर जाय, जो हांव सांगतां तें आयकतलो. म्हजे सांगणेचेर एक जाप लेगीत काडीनासतना काम करपी, वेळार राग येवन हांवें जोतें शेंवटून माल्लें तरी तें घेवपी असलो चाकर जाय म्हाका. "

घरांत कामाक दवरपाखातीर 'रामा' च्यो मुलाखती घेतना नटयेन सांगले.

–x–

" हीं इतलीं कामां करपाक एकूच लायक मनीस ह्या संवसारांत आसा. तो म्हळ्यार घोव, तुमी चाकर दवरचे परस लग्न करून एक घोव घरांत हाडल्यार पुरो !"

मुलाखतीक आयिल्ल्या एका चाकरान नटयेक बुद्द दिली.

—x—

## मुल्ला नसरुद्दीन – एक वल्लो

मुल्ला नसरुद्दिन हो मध्यपूर्व भागांत जावन गेल्लो एक नामनेचो मनीस. जग जिकपी तैमुरलंगाच्या वेळार तो जावन गेलो अशें म्हण्टात.

ताज्यो कांय कथा आसात, कांय कथांवेल्यान नसरुद्दीन हो एक शाणो मनीस म्हणपाचें दिसून येता तर कांय कथा वाचल्यार ताज्या शाणपणाविशीं दुबावय येता. पुण ताज्याविशींच्यो त्यो कथा वाचून बरी करमणूक मात जाता.

नसरुद्दिनाक ताज्या बापायन कितेंय काम सांगलें जाल्यार तो सांगता ताज्या सारखें उफाट्टें करतालो. म्हुण ताजो बापुय ताका उफाट्टें सांगतालो. अशें सांगपाफाटलो हेतु म्हळचार आपल्या सभावाप्रमाणें नसरुद्दीन सांगिल्ल्याच्या उफाट्टें करतलो आनी काम जावन पट्टलें. पुण जाताले कितें. कांय वेळार नसरुद्दिनाक बापायन सांगिल्लें काम जशाक तशें करचे अशें दिसतालें. आनी मागीर कितें जातलें ते तुमकां सांगूंक जाय ?

एक फावट नसरुद्दीन आनी ताजो बापूय गिरणीरसाकून पीठ दळून हाडूंक गेल्ले. पीठ दळून ते एका पोतयेंत घालून पोते एका गाढवाचे फाटीर घाल्ले. नसरुद्दीन गाढवाक आमडूंक लागलो. वाटेर तांकां एक न्हय लागली. न्हंयचो पूल सामकोच बारीक आशिल्लो. ताजेवेल्यान गाढवाक व्हरप शक्यच नासले. आनी न्हंयकय उदक चड नासलें. म्हूण गाढवाक न्हंयतल्यानच पलतडेन व्हरचे अशें नसरुद्दीनाल्या बापायन थारायले. पुण नसरुद्दीनाक मात ताणीं उफाट्टे सांगलें— ' नसरुद्दीन गाढवाक न्हयतल्यान व्हरूं नाका हां !'

त्याबराबर नसरुद्दिनान गाढवाक न्हयत आमुडले. गाढव उदकांतल्यान चलूंक लागलें. गाढवाचे फाटीवेलो पिठाचो साक घाल्लो तो एकवटेन मात्सो चड सकल देंविल्लो. आनी उदक लागून भिजपाचो दुबाव आशिल्लो. हें पळवन नसरुद्दिनाच्या बापायन ताका म्हळें, "बाबा, गाढवाच्या फाटीवेलो साक सारको करींनाका. एकवटेन सकल देवला तेच वटेन तो आनी मात्सो सकल ओड. साकातलें पीठ भिजू दी !"

आपणें सांगलां ताजे उफाट्टें नसरुद्दीन करतलो आनी पीठाचो साक देवला तो सारको करतलो अशें बापूय समजल्लो. पुण ताज्या नशिबान नसरुद्दिनाक ह्याच वेळार बापायन सांगला ते आयकुवपाची बुद्द आयली. ताणें बापायक म्हळें, 'अब्बाजान, हांव सदांच तुमी सांगतात तें आयकना, सदांच सांगता ताज्या उफाट्टें करता. ताजो म्हाका आज पश्चाताप जाता. पुण ह्या खिणाक सावन तुमी सांगतात तें आयकुवपाचो हांव नित्शय करता.'

आनी बापायन सांगिल्ले तशें ताणें केलें. पिठाचो साक आनी मात्सो सकल ओडलो. आनी सगळें पीठ उदकान भिजून वायट जावन गेलें.

नसरुद्दिनाच्या बापायन कपलाक हात लायलो.

—x—

## पैशे कसले ?

तुर्कस्तानच्या मुल्ला नुसरुद्दीनच्यो गजाली म्हळ्यार त्या देशांतल्यो दतकथाच. काय नमुने पळयात:

एक दीस मुल्ला बाजारांत गेलो आनी ताणे एक लेंगो विकतो घेवपाचें थारायलें. दुकानांतल्या मनशान मुल्लान काडिल्लो लेंगो कागदाक गुठलायलो. इतले म्हणसर मुल्लान म्हळें, 'राव, अशें कर. म्हाका लेंगो नाका. सदरोच घेतां.'

मुल्लान एक सदरो पसंत केलो तो बांदून घेवन तो वचूंक लागलो.

'मुल्ला, तुवें पैशे दिले नात' दुकानदारान म्हळें.

'पैशे ? कसले ?' अजाप जाल्लेभशेन नुरा करून मुल्लान विचाल्लें.

'सदऱ्याचे !"

'सदऱ्याचे ? हांवें लेंगो बदलून सदरो घेतला.'

'तशें जाल्यार लेंग्याचे पैशे दी.'

'वा ! तुगेलें नाका जाल्लेंच. हांवें लेंगो खंय घेतला ?' मुल्लान जाप दिली.

–x–

## दारांत आयिल्लो सोयरो

दारांत आयिल्ल्या सोयऱ्याली वळख नाशिल्ल्यान अमेरिकेंतल्या एका कुटुंबाक जलमभर पश्चताप करचो पडलो. ताजी खबर निकतीच वाचली.

विएन्नाचे डॉ. एडॉल्फ लॉरेन्स हांणी रगताविरयत शस्त्रक्रिया (bloodless surgery) करपाचें एक तंत्र सोदून काडिल्लें. आपल्या ह्या संशोधनाचो प्रयोग ताणी शिकागोच्या एका धनिकाले चलयेचेर केलो. ते चलयेची कितल्याशाच डॉक्टरांनी आशा सोडिल्ली. पुण डॉ. लॉरेन्स हाणीं शस्त्रक्रिया करतकच ती चली बरी जाली. ताका लागून त्या डॉक्टराची नामना सगळ्याक जाली. आनी अमेरिकेंतल्यान तांका तांच्या सोदाचेर व्याख्यानां दिवंक आपोवणे आयलें.

व्याख्यानां दिवपाखातीर डॉ. लॉरेन्स अमेरिकेंत गेले तेन्ना तांचे-कडच्यान तपासून घेवपाखातीर वायटकारांची रीघ लागली. पुण वेळ थोडो आशिल्ल्यान फकत सिरीयस केसी तितल्यो ते तपासताले.

हेच भोंवडेंत पश्चिम अमेरिकेचे भोंवडेर आसतना डॉ. लॉरेन्स एक दीस सांजवेळां एकलेच पासयेक गेले. हरशीं तांच्या सांगा-तान यजमानी संस्थेचे मनीस आसताले. पुण त्या दिसा तांका एकांत जाय आसलो.

पासय घेता आसतना अचकीत पावस आयलो. डॉक्टर लागीच्याच घरान भितर सल्ले. पावसावांगडा वादळय आयिल्लें. ताणी दारावयली बेल वाजयली. एके बायलेन दार उकतें केलें. ती चिंतेस्त. दिसताली.

डॉक्टर लॉरेन्सानी म्हळें, "भायर पावस पडटा. हांव भितर येवं?"

" दुसरेकडेन खंयय कित्याक वचनात ?" ते बायलेन त्रासून जाप दिली, 'घरांत आदींच अडचणी भल्ल्यात. नवे अडचणेची भर कित्याक?' आनी धड्ड करून दार बंद केलें.

डॉक्टर लॉरेन्स भायर वावझड आंगार घेत उबे रावले. थोडच्या वेळान तांका व्हरूंक एक मोटार आयली आनी ते मोटारींत बसून गेले.

दुसऱ्या दिसा नेमाळचांत पावसांत भिजतल्या डॉक्टर लॉरेन्साचो फोटो छापून आयलो. तांकां व्हरूंक आयिल्ल्या एका मनश्यान तो फोटो घेतिल्लो.

तो फोटो पळोवन ते बायलेक आपुण जावन दारांत आयिल्लो सोयरो म्हळचार जांची भेट घेवपाक तिणे रातदीस खटपट केल्ली तोच डॉ. लॉरेन्स म्हणपाचे समजून मिडमिडे पडले. तिगेले चलयेकय शिकागोच्या धनिकाले चलयेक जाल्ली तसली पिडा जाल्ली. आनी तिका वांचोवपाचो आदार फक्त डॉ. लॉरेन्स आशिल्लो. ताजी भेट घेवप तिका जमूंक नाशिल्ले. पुण जेन्ना देवानच ताका तिगेर धाडिल्लो तेन्ना तिणे ताका घरांत घेंवक नाशिल्लो.

–x–

## सांवतवाडीचो पोलीस !

कोर्टाच्या कामाखातीर आमी सावंतवाडीक गेल्ले. थंय आमकां एक पोलीस अधिकारी मेळलो. हो अधिकारी कांय वर्सां फाटीं गोंयांत आशिल्लो. आमकां पळयतकच तो म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें आमची वासपूस केली. मागीर ताणे म्हळें, 'पळेयात आं. वचचे आदी म्हाका मेळात. हांव पोलीस स्टेशनाचेर आसतलो. च्या घेतलेबगर तुमका वचपाक परवानगी ना.'

आमी साधारण साडे अकरा वरांचेर मेकळे जाले. आतां गोंयात परतुचे आदी त्या पोलीस अधिकाऱ्याक मेळपाचे थारावन आमी पोलीस स्टेशनार गेले.

त्या अधिकाऱ्याली कूड बंद आसली. तो आसा काय म्हणून वासपूस करतकच दारांतल्या शिपायान सांगले, 'साहेबांना भेटायचंय ? आठ आणे काढा !' आनी दक्षणेखातीर आपलो हात फुडें केलो.

हो प्रकार पळोवन म्हाका अजाप जालें. हाजेकडेन वाद कित्याक घालया अशें येवजून ताज्या हातार आठ आणे दवल्ले. त्याबरोबर शिपायान आमकां भितर सोडले.

भीतर त्या अधिकाऱ्यान आमकां बरो येवकार दिवन त्या दारांतल्या शिपायाक स्पेशल च्या हाडूंक सांगले.

च्या पितां पितां त्या अधिकाऱ्यान म्हळे, 'आतां बरें दिसलें. तुमी येवन भायलेभायर वचूंक सोदताले ते बरे न्हय.'

'पुण तुमची ही च्या आमकां म्हारग पडली.' म्हज्यान रावं नज जावन हांवें म्हळे.

'कित्याक ? कितें जालें ?' ताणें विचाल्लें.

'दारावयल्या शिपायाक आठ आणे दिले तेन्नाच ताणें आमकां भितर सोडले.'

त्याबरोबर तो अधिकारी तापलो. ताणें त्या शिपायाक आपोवन हाडून तापोवन काडलो आनी म्हणेले आठ आणे परत दिवंक लायले.

निरोप घेता आसतना ती आठ आण्यांची गजाल विसरून वच अशें ताणे पर्थून पर्थून सांगलें आनी खरेंपणीं हांवय ती गजाल विसरपाचों. पुण भायर येवन मोटारींत बसनाफुडें तो दारावेलो शिपाय धांवत आयलो आनी सलाम करून ताणें सांगलें, 'साहेब, चूक झाली. माफ करा. पण देवाशपथ सांगतो अशा आठ आण्यांतले चार आणे साहेबांकडेच जातात. तेच घ्यायला सांगतात.'

–x–

## काळीजच हुंदराचें

स्पेनची ही लोककथा. एक दीस हुंदीर जादुगारासरी गेलो आनी आपलो उद्धार कर म्हणून ताज्या पाया पडूंक लागलो. जादुगाराक हुन्दराची काकुट आयली. ताणे ताका विचाल्ले,

‘ तुका भय कोणाचो दिसता ?’

माजराचो.

जादूगारान त्या हुंदराक माजराचे रूप दिले, ‘चल आतां सुखान राव’ जादूगारान म्हळें. पुण माजर जायना फुडे ताका सुण्याचो भय दिसूक लागलो. जादूगारान ताका सुणे केले. तरी भय उल्लोच. आतां ताका वाघाचो भय दिसतालो. ताका वाघाचे रूप दिलें. तरी ताका कासादोराचो भंय उल्लोच. निमाणेकडेन जादूगारच उबगलो, ‘ तू हुंदीरच उरिल्लो बरो. तू दुसरो कोणच जावक पावचो ना. नाय जाल्यार तुजें काळीजच हुन्दराचे. ’ अशे म्हणून ताका ताणे परतून हुंदराचे रूप दिलें.

–x–

## तो म्हजो भाव !

श्री. महादेवभाई देसाई हाणीं आपले डायरेंत एक प्रसंग ब यला–

‘फाटल्या सप्तकांत गोविंद राघवालें पत्र आयिल्लें. तांतूत एका बिशपाची खबर आसली. तो एक दोंगर चडटालो. त्याचवेळार एक स-सात वर्साची चलीय आपल्या दोन वर्साच्या भावाक हाण्डीर घेवन खर्शेत खर्शेत दोंगर चडटाली. तिका पळोवन बिशपान म्हळें–

‘आगो, ह्या भुरग्याचो भार तुका जड जातलो’. चलयेन जाप दिली, ‘ना आं. ना. म्हाका तो कित्याक जड लागतलो ? तो म्हजो भाव !’

तें पत्र वाचून बापून जाप धाडली. ‘ तुमचें मोगाळ पत्र मेळ्ळें. कितलीं सोबींत उतरां आनी विचार ! जड कित्याक लागतलो ? तो म्हजो भाव ! – जेन्ना काळजात मोग आसता तेन्ना जडांतली जड वस्त लेगीत फुलावरी ल्हव जाता !’ ते चलयेन आपल्या दोन उतरांनी एक काव्य रचिल्लें. गांधीजीन ताजेर महाभाष्य बरयलें.

–x–

## फट जाल्यार तूंच पळय

हार्टफोर्डचो बिशप डोने हो मार्क ट्वेनचो एक बरो मित्र. जायते फावटी मार्क ट्वेन इगर्जेंत वचून बिशपाकडेन खबरी मारुक बसतालो.

एका आयतराक ताणे बिशपाली मस्करी केली. सेर्माव निक्तोच सोंपिल्लो. मार्क ट्वेनान म्हळे, ' तुगेलो सेर्माव म्हाका खूबच मानवलो. पूण जाणा तूं, तुवे आता जितलेंय सांगला तांतुतले उतरान उतर म्हजेकडल्या एका पुस्तकांत आसा.

बिशप डोने अजापान आपल्या इश्टाकडेन पळयत रावलो. ताणें म्हळें, ' कशे आसूं येता ?'

'हांव खरे सांगतां', मार्कान म्हळें. तशे जाल्यार म्हाका ते पुस्तक फाल्या धाडून दी. पळोवंया तरी.'

दुसऱ्या दिसा मार्क ट्वेनान बिशपाक एक दाट शब्दकोश धाडून दिलो.

–x–

## वेगळो सुसेग नाका

एका घरांत एक पोरनी घडयाळ आशिल्ली. सुमार देडशे वर्सां ती चलताली. एक फावटी लेगीत ती बंद पडूंक नासली. सद्दां सकाळी घराचो घनी ते घडयाळीक चावी दितालो आनी ती सारकी चलता काय ना पळयतालो.

एक दीस घडयाळीन ताका म्हळें, ' तुज्या आज्यान म्हाका हाडिल्ली. तेन्नासावन उसरपत घेना आसतना हांव काम करतां. देडशे वर्सां हावे काम केलां. पुण आतां हाव जाण्टी जालां. आतां म्हाका इल्लो सुसेग जाय. तेन्ना चार दीस हांव म्हजी.... टिक.... टिक.... बंद दवरतां.'

धनयान म्हळें, ' तूं उसरपत घेना अशें कशें म्हण्टा ? दोन वेळ टिक.... टिक.... करचे मदीं तू एका खिणाची उसरपत घेता तर. तेदो वेळ सुसेग आसताच.'

घडयाळीन खीणभर येवजिलें. आनी पर्थून आपले काम सुरू केले.

–x–

## आनी जादू कर

एक दीस एक मनीस आपल्या ल्हान भुरग्याक घेवन बसीन

वतालो. भुरग्याच्या माथ्यार एक तोपी आशिल्ली. वाऱ्यान ती उडून वचत म्हणून बापायन ती काडली. तेन्ना भुरगो रडूंक लागलो. बापायन ती परती ताज्या माथ्यार दवल्ली आनी म्हळें, 'पळय हाव तुका जादू दाखयतां आं' आनी तोपी जनेलांतल्यान भायर उडयिल्ले भशेन करुन आपल्या खाक्यांत लिपयली.

भुरगो पर्थून रडूंक लागलो. बापायन शिलोणी घाल्यो. आनी जनेलाभायर हात करून तोपी परत हाडली.

तें पळयनाफुडें भुरगो खुशालभरीत जालो.

बापायन पर्थून तोपी ताज्या माथ्यार दवरतकच ताणे म्हळें, 'आनीक एक फावट जादू कर---' आनी ताणें तोपी काडून भायर उडयली.

–X–

## शांतिदूत

नामनेचो तत्वज्ञानी सोक्रेटीस हो खूब शांत सभावाचो. पुण ताची बायल सामकी झगडाळ. ती उलोवन उलोवन घोवाक सामकी नाका पुरो करताली.

एक फावट ती घोवाकडेन खूब झगडली. तोंडाक येता ते उलयली, पुण सॉक्रेटीसान तिका जाप लेगीत दिली ना. तो सामको शांत रावलो. हाका लागून तर तिका घोवाची अदिकच तिडक माल्ली.

खिणभरान सोक्रेटीस भायर वचूंक गेलो. तेन्ना ताजे बायलेन माळयेवयल्यान ताजेर बालदीभर उदक रकयले. उदक आंगार पडनाफुडें सॉक्रेटीसान म्हळे, 'इतलो गडगड जातगीर पावस पडपाचोच.'

–X–

## चमत्कार

काशीची ही खबर.

एक दीस एके म्हातारेक पोलीसांनी आडायली आनी विचाल्ले, "तुज्या हाताातल्या कोळशांत कितें आसा."

" गंगाजळ, बाबा " तिणे जाप दिली. पोलिसांक तिजो दुबाव आशिल्लो. एकल्यान कोळसो काडून घेवन वास घेतलो. भीतर सोरो आसलो.

" बरी वस्ताद मगे तूं. हो सोरो!" म्हातारेन नदर मळबाचेर व्हरून हात जोडले आनी म्हळे, " देवा, काशी विश्वनाथा, कसलो चमत्कार हो तुवे केलो ? उदकाचो सोरो केलो तुवे !"

–x–

## विनोबांचो प्रस्न

१९२९ वर्साची गजाल. विनोबाजी आश्रमात बशिल्ले. म्हन्यांत एक भुरगो बंशिल्लो. तो विनोबाजींक कितें तरी सांगूंक सोदतालो. पुण ताका धीर जायना आसलो. निमाणे ताणें सांगलेच, ' काम करतां करतां सामको वाजेलों हांव, फुडें कितें करचें तें सांगात.'

विनोबा हासले. ताणी म्हळे, " स्वास घेता घेतां वाजेलो ना मरे तूं ?"

हें आयकून त्या भुरग्याचे समाधान जालें. विनोबाजींच्या ह्या उतरांचो अर्थ मतीत घेवन ते प्रमाणें चलत जाल्यार हो संसार सुखाचो जावपाक वेळ लागचो ना.

–x–

## दर एकल्याची सुवात

मोटो झुजारी आनी पुण्यवंत म्हूण नामना जोडिल्ल्या पुरुवंशांतल्या प्रतीप राजाची ही कथा. तो एक फावट गंगा न्हयेच्या तडीर बशिल्लो आसतना सांक्षात गंगा एका तर्नाटेच्या रूपांत येवन ताज्या उजवे मांडयेर बसली. गंगेक एका स्रापाक लागून ह्या भूंयेचर मनीस जल्मांत वावुरपाचें आसले. अष्टावसूंकय मनीस जल्मांत ह्या भुंयेचेर येवपाचे आसलें म्हूण ताणीं गंगेक आपली आवय जावपाची प्रार्थना केल्ली. स्राप भोगून आपलो आनी अष्टावसूंचो उद्धार करपाखातीर ह्या भुंयेवेल्या कोणायकडेन तरी लग्न जावन हांगा कांय काळ तिका रावपाचे आसलें. लग्न जावन संवसार करपाचोच आसा तर तो एका

मोठचा पुण्यवंत आनी नामनेच्या मनशाबराबरच करचो म्हूण मनीसरूपांत येवन ती प्रतीप राजाच्या मांडयेर बशिल्ली.

तिका आपल्या मांडयेर बशिल्ली पळोवन राजान तिका विचाल्लें. "तुजी किते इत्सा आसा ? कितें जाय तुका ?" स्रापाची खबर राजाक सांगून तिणें म्हळे, "तुजेसारकील्या पुण्यवंत राजाकडेन संवसार करचो असें म्हाका दिसता. म्हूण हांव तुज्या मांडयेर बसलां. म्हजो स्वीकार करून म्हजो उद्धार करचो अशें हांव तुमचेकडेन मागतां."

"तूं म्हजे उजवे मांडयेर बसल्या. उजवी मांडी ही बायलेची न्हय. बायलेन बसपाची मांडी दावी. उजवे मांडयेर बसप फकत चलयेन वा तिजेसारखी जिका मानतात त्या सुनेन. तूं म्हजी घरकान्न जांवयेना, सून जांवयेता. तुज्यान म्हजो पूत शंतनु हाजेकडेन लग्न जावन म्हजी सून जांवयेता." प्रतीप राजान तिका सांगले.

–x–

## रोटी न्हय... पाप

उदेत्या सूर्याची कीर्णां भुयेंचेर पडचींच आसली. इतल्यान शेठीली केडिलक गाडी येवन रस्त्याच्या कुशीक थामली. आनी फुट–पाथार जमिल्ल्या भिकाऱ्यांत गडबड जाली. शेट गाडयेतल्यान देंवता तो पळोवन तर ते भिकमागे सुणीं मालका म्हऱ्यांत धावतात तशे गाडये–लागीं धांवंक लागले.

शेठीच्या हातांत आसले एक व्हडशे ताट. तांतल्यान तो चपात्यो काडकाडून भिकाऱ्यांचे फुडयांत उडवंक लागलो. आनी त्यो मेळवंक त्या भिकाऱ्यांमदीं सर्त लागली. झेपय मारून ते चपात्यो जमयताले. गडबडेंत कोण पडला, कोण चिड्डला हाजी खबर कोण घेनासलो. जो तो चपात्यो बुड्डून घेंवंक पळेतालो. हातांत पडिल्ली चपाती बोतरांत लिपवन जण एकलो दुसरी चपाती घेंवंक फुडें सरतालो. हे पळवन शेटजी तीरस्कारान हांसलो. 'गरिबी' इमानदार अशें म्हण्टात...'

पुण एक दीस शेटजीक एक वेगळे दृश्य दिसले. भिकमाग्यांच्या चोम्यापसून पयस एक भिकारी उबो आसलो. मोन्यानी उबो रावन तो

भिकारी चपातेखातीर लटामुटी करतात ते पळेतालो. पुण स्वता मात चपाती घेवपाक फुडें येनासलो.

शेठीन ताका विचाल्ले, 'तुका रोटी मेळ्ळी?'

' रोटी आसा खंय म्हाका मेळूंक ?' म्हळें.

' हांव वांटटां त्यो रोटयो न्हय ?'

' न्हय '

' कितें तर ते ?'

' तें तुमचे पाप. रोटी न्हय, तुमी आपणाले पाप वांटतात. जाचो भार चड जावन तुमच्यानी सोसूं जायना ते तुमी वांटून दितात हेरांक, जे घेवंक आंवडेल्यात तांकां.'

पुण शेठीन तें कानामनार घेतलेंच ना. तो आपले चपात्यो वांटपाचें काम करीत रावलो.

–x–

## माजराचें नशीब

ही एक इस्रायलची लोककथा

देवान संवसार निर्मिलो. एकेक जीव निर्मिलो आनी त्याच जिवाक विचारून ताज्या जेवणाखाणाची तजवीज केली. माजर तयार करतकच देवान माजराक विचाल्लें– 'सांग, तुज्या जेवणाखाणाची तजवीज कशी करूं ?'

'कशी म्हळ्यार कशी देवा ?' माजरान विचाल्लें.

'म्हळ्यार तुका जेवण रानांतल्यान जाय, कांय मनशाकडल्यान जाय ?.... तुजो राबितो मनशाच्या गोठयांत वा पांजऱ्यांत जाय काय भायर उक्ताडेर जाय ?'

माजरान म्हळें, 'म्हाका मनशाल्या घरांत रावंक मेळचें. ते खातात तें सगळें खावनय हेर रुचीक कितेंय खावपाची मेकळीक आसची आनी म्हाका म्हजें हक्काचें जेवण रानचेकुडीचें दार वा जनेल

उकतें दवरून मदींच भायर वतले सुंदर पुण घाळ बायलेच्या हातान मेळचें.'

'तथास्तु !' देवान म्हळें.

-x-

## खोटो पयसो

सूफी संत खैराबादी हो भाजी विकपाचो धंदो करतालो. तांचे-कडल्यान भाजी घेवपी कांय लोक तांकां खोटे पयशे दिताले. काय फटींग तर तांका खोटे पयशे दीवन 'हे तुवेंच म्हाक. दिल्यात. ते परते घे' अशें सांगून पयशे बदलून व्हरताले.

संत खैराबादी ते खोटे पयशे मोन्यानी घेताले. हे हांवें तुका दिवं ना वो हे खोटे पयशे हांव घेना अशें ताणीं केन्नाच म्हळें ना. निमाणे जेन्ना ते सामके म्हातारे जाले आनी तांचो अंतकाळ लागीं आयलो तेन्ना ताणी देवाक प्रार्थिले- 'देवा सायबा, जीणभर हांवें खोटे पयशे नाका म्हळें ना. ते चलनात तरी दवरून घेतले. हांवय बी एक खोटोच पयसो, तुजे म्हऱ्यांत येतां. तूंवय हो खोटो म्हूण म्हाका परती नाका. दवरून घे !'

-x-

## राजा आनी भिकारी

भांगराच्या रथांत बसून राजा आपले दिकेन येता हें पळोवन भिकारी खुशालभरीत जालो. आतां आपणालें भाग्य फळफळटलें अशें ताका दिसलें. तो रस्त्याचे कुशीक उबो रावलो.

रथ लागीं आयलो तानी ताजेसरीं येवन थांबलो. राजा सकल देंवलो. आपणें आतां किते करचे हें येवजणेंत भिकारी आसतनाच खासा राजान याचक जावन भिकाऱ्यामुखार हात पसरयलो. भिकाऱ्याक प्रस्न पडलो. किते दिवचें? झोळयेंत आसात ते तांदूळ हीत्र दीसभराची जोड. आनीक कितें दितलो ? ते तांदूळ दिल्यार रातीकडेन कितें खातलो ?

राजा हात फाटीं काड्ना. रातीची विवंचना भिकाऱ्यालो हात

फुडें करिना. निमाणेकडेन भिकाऱ्यान झोळयेंतलो एक दाणो काडून राजाल्या हातार दवल्लो. दाणो घेवन राजा परत रथात चडलो.

भिकारी खंती जावन रथान उबयिल्ल्या धुल्लावशीन पळेत रावलो. ताणे मनात म्हळें, 'वा राजा, वा ! म्हज्या शितांतलो एक दाणो तुवें अुणें केलो !'

घरा येवन ताणे झोळी कुळण्यात रकयली. दाण्यामदीं कितें तरी चकचकलें. पळे जाल्यार एक दाणो भांगराचो !

आतां भिकारी चुरचुरलो. तागेले दोळे दुकांनी भरून आयले, " हांवे सगळी झोळी राजाल्या हातार कित्याक रकयली ना ?"

–x–

## कितलो फायदो ?

रातीचो उसरां धांवत खशेंत घरा येवन ताणे बायलेक सांगले, " आज म्हाका आठ आणे फायदो जालो."

" कसो ?"

" हांव बसींत बसलोच ना. बस येईसर स्टॉपाचेर उबो रावलों आनी बस सुटूकच तिच्या फाटल्यान धांवत आयलो."

" पिसो तूं !" बायलेन म्हळें, " तूं जर टॅक्सीफाटल्यान धांविल्लो जाल्यार तुका पांच रुपया फायदो जावपाचो !"

–x–

## तेन्ना खबर नाशिल्लें

अमेरिकेंत रावतल्या एका भारतीयाचेर एका अमेरिकन मनशान थंयच्या कोर्टांत बदनामीची केस केली. ताजें म्हणणें आसलें कि देड वर्साआदीं ह्या भारतीयान आपणांक 'अुंट' म्हणील्लो.

'मागीर इतले दीस तुवें केस कित्याक केली ना ?' जुवीजान ताका विचाल्लें.

'हांव पयरूच भारतांत वचून आयलों. तोंमेरेन म्हाका 'उंट' कसो आसता तें खबर नाशिल्लें.'

–x–

## ते केन्नाय आयकूंक जाता

सर विस्टन चर्चिल हांचें एक फावट रेडियोचेर भाशण जावपाचें आसलें. एक टॅक्सी करून ते रेडियो स्टेशनार गेले. थंय पावनाफुडें ताणीं टॅक्सी ड्रायव्हराक थामयलो आनी सकल देवन ताका म्हळें, 'तूं राव, हांव रोकडोच येतां.'

'म्हाका रावपाक मेळना, चर्चिलाचें आतां आनीक पांच मिनिटांनी भाशण आसा रेडियोचेर तें आयकूंक जाय म्हाका. हांव. चल्लों.' टॅक्सीचे दार मारीत ड्रायव्हरान म्हळें.

हें आयकून चर्चिल खूबच खोशी जाले आनी ताणीं बोल्सां-तल्यान एक पौंडाची नोट काढून ड्रायव्हराक दिली. आनी ते वचूंक लागले. ती नोट पळोवन ड्रायव्हरान चिंतलें. मनीस बरो गब्बर आस्तलो. रावलो जाल्यार आनीकय सावत, आनी ताणें धांवत वचून चर्चिलाक म्हळें, 'तुमका जाय जाल्यार रावतां हांव हांगा. सवकासायेन येयात तुमीं. त्या चर्चिलाचे झक मारूं. तुमचे मुखार ताजें म्हाका व्हडलेंशें पडूं ना. ताजें भाशण आनीक केन्नाय आयकूंयेत !

–x–

## वास्तुदेवतेची याद धरात

ल्हान भुरगें त्रास दिवंक लागलें म्हण्टकच ताका भेश्टावपा-खातीर अपशब्द उलोवपाची आमकां संवय जाल्या. कितले सोपेपणीं आमी ते उलोवन वतात ! तांचो अर्थ लेगीन आमी येवजिनात. अर्थ लक्षांत आयिल्लो जाल्यार धाक दिवपा खातीर तसली उतरां आमी घडये वापरपाचे न्हंयत. भुरगें रडलें वा हट्ट घेवन बसलें जाल्यार देवचार येतलो, म्हारू व्हरतलो असो धाक आमी घालतात.

महाभारतांत एक आख्यान आसा. पुलोना नांवाची एक चली आशिल्ली. भुरगेपणांत ती कसलो तरी हट्ट धरुनरडूंक लागली. कितलीय समजायली तरी आयकना. म्हणून तिका भेश्टावपाखातीर तिगेल्या बापायन म्हळे, 'यो रे राक्षसा, हे चलयेक घेवन वच. तुकाच व्हर ती' त्या वेळार पुलोन नावाचो एक राक्षस लागसारच आशिल्लो. ताका

दिसलें कि बापायन चली आपणाक दान केल्या. चलयेच्या बापायक फुडल्या अनर्थाची कल्पना लेगीत नासली.

पुलोना व्हड जातकच बापायन तिजें कन्यादान केलें. भृगूकडेन शास्त्राक धरून तिजें लग्न जालें. त्या वेळार राक्षसाक राग आयलो आनी ताणे ते चलयेक उबारून व्हरपाचें थारायलें.

एके फावटी भृगू न्हावंक भायर गेल्लो आसनाना अतिथी जावन पुलोन राक्षस भृगूल्या आस्रमांत आयलो. अतिथीचो मान राखपाखातीर पुलोनान ताका बरो येवकार दिलो. अतिथी घरांत आयलो आनी कोण ना-सो पळोवन पुलोनाक खांदार उखलून तो वचूंक लागलो. तिका पळोवन व्हरता आसतना कांचवेल्ले पुलोनाचो गर्भपात जालो आनी त्या गर्भाच्या तेजान राक्षसाचे भस्म जालें अशें हें आख्यान.

घरांत आमी रावंक वतात तेन्ना त्या वाठाराच्या दैवताची, वास्तुदेवतेची शास्त्रशुद्ध प्रतिष्ठा करतात, ह्यो देवता त्या घरांत रावतात. आनी घरचे लोक जें कितें उलयतात तें कानार पडनाफुडें "तथास्तु" म्हळ्यार तशें जांव असो आशिर्वाद दितात. देखून घरांत भुरग्यांक भेश्टावपाखातीर लेगीत केन्नाच अपशब्द उच्चारचो न्हय अशी जाण्टेल्यांची शिकवण आसता. काय विज्ञानिक लोक अशें सांगतात कि भुरग्यांक ल्हानपणांत मोण्णे मारुन येवप, ताणी आंग काडप, भियेवप हे सारकीली जीं वायटपणां जातात ताचे मूळ हे भेश्टावणेतच उरता. देखून जंय घर आसा थंय अमंगळ उतर तोंडांतल्यान भायर येवंकच फावना.

–x–

## करतलो तरी कितें ?

रामबाब– कितें हांव शंबर वर्सां जियेवपाक पावन ?

कृष्णबाब– तुका व्यसन ना, कांय ना, मागीर शंबर वर्सा जियेवन करतलो तरी कितें तूं ?

